# कवनकांठ



पांयाक जशी व्हाण
तशी अणभवाची जाण
... ीण कांटे फातर
... हाडटी प्राण...

रमेश लाड

# कवनकांठ

(कविता)




रमेश लाड



ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

| | |
|---|---|
| **कवनकांठ** | **KAVANKANTH** |
| (कविता) | (Poems) |
| **लेखक :** | **WRITER :** |
| श्री. रमेश लाड | Shri. Ramesh Laad |
| **प्रकाशन क्र.:** 68 | **PUBLICATION NO.: 68** |

| **पयली उजवाडावणी :** फेब्रुवारी 2009 | **FIRST EDITION :** Feb. 2009 |
| **प्रकाशक :** | **PUBLISHER :** |
| मिलींद कमलाकर म्हाळशी | Milind Kamalakar Mhalshi |
| ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन, | Om Shri Datt Padmaja Prakashan, |
| श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय | Shristhal, Canacona, Goa |
| **छापपी :** | PRINTER : |
| सौ. माधुरी मिलींद तिंबले | Mrs. Madhuri Milind Timble |
| स्वर्णमुद्रा प्रिंट्‌स, | Swarnamudra Prints, |
| माशेल, गोंय | Marcela, Goa |
| **अक्षरजुळणी :** | **TYPESETTING** |
| श्री गुरुकृपा टायपोग्राफिक्स | Shree Gurukrupa Typographics, |
| मालभाट, मडगांव, गोंय | Malbhat, Madgaum, Goa |
| फोन : २७१०२१९ | Ph.: 2710219 |
| **मुखचित्र :** | **COVER :** |
| पंकज रमेश लाड | Pankaj Ramesh Laad |
| मडगांव, गोंय | Madgaum, Goa. |
| **मोल : 35 /- रुपया** | **PRICE : RS. 35 /-** |

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे*
*पयलो चंवर अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.*

# ओंपणी

*शिक्षणाबगर भुरग्यांक उजळ फुडार ना हाची सतत जाणविकाय बाळगून तांणी आपणाली जापसालदारकी तडीक पावयली. कसलीच शिक्षणीक सुविधा नाशिल्लो आश्शें हो पेडणें तालुक्यांतलो गांव सोडून १९६१ वर्सा मडगांव शारांत तांणी कुटुंबीक राबितो केलो. ह्या मडगांव शारांत म्हजी जीण घडली.*

*म्हजो बापूय भाई - घनःशाम आनी आई - अन्नपुर्णा ह्या म्हज्या सर्गेस्त तिर्थरुपांच्या मनाखोलांतल्या यादींक तेच प्रमाण तितलेच व्हडविकायेन मडगांव शाराक हो म्हजो पयलो कवितां झेलो भोवमानान ओंपतां.*

*— रमेश*

# मनांतलें....

म्हजो हो पयलो कवितां झेलो गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' येवजणेच्या आदारान उजवाडा येता. अकादेमीचो हांव उपकारी. स्वताचें अशें हें म्हजें पयलें पुस्तक. साठीच्या हुमऱ्यार आसतना तें उजवाडा येता – इल्लें उसरां ही गजाल खरी. ह्यो कविता झेल्यारुपान आतां आयल्यो तरी तातुंतल्यो चडशो कविता राष्ट्रमत, सुनापरान्त, जाग, कुळागर, रुतू, बिम्ब कोंकण टायम्स अशा नेमाळ्यांतल्यान उजवाडा येवन गेल्यात. फुटकळ तरेन येवप आनी झेल्या रुपान येवप हातूंत परिणामाचे नदरेन खूब फरक आसता.

नवो विचार वा जिणेचीं तासां, विसंगती, तत्वां असल्या गंभीर विशयांचेर म्हजे कवितेन भाश्य केल्लें ना. ती नीट सोप्या मार्गान उतरांचो खेळ करीत गेल्या. देशभक्ती, मोग, सैम असले विशय तिका चड भावतात. हाका लागून सर्जनांतलें अणभवांचें मोटवेपण वाचप्याचे नदरेंतल्यान सुटचें ना हे गजालीची म्हाका कल्पना आसा. सुमार तिशेक वर्सांच्या काळांतल्यो ह्यो कविता.

मुळाव्या शाळांनी आसतना, मास्तर कविता पाठ करून घेताले. ते पिरायेर त्यो रोखड्योच पाठ जाताल्यो. तांकां ओडलायण्यो चाली आसताल्यो कारण वेगवेगळ्या वृत्तांनी त्यो बांदिल्ल्यो आसताल्यो. त्या मराठी कवितांचो मनार संस्कार जाल्लो आशिल्लो. मागीर माध्यमीक शाळेंत इंग्लिश, हिन्दी, मराठी बी कविता चालीन न्हीं जाल्यो तरी बेश्ट्यो पाठ करप आसतालें. कोंकणी कविता म्हाका भावली ती हांव जेन्ना शाळेंत शिक्षकाच्या नात्यान कोंकणी विशय शिकोवंक लागलों तेन्ना. ताचे आदीं कोंकणी भास उलोवप सोडलें जाल्यार लिखीत भास वाचप व्हडलेंशें जावंनाशिल्लें. शिक्षकी जिणेंत कोंकणी गद्य–पद्यान म्हाका प्रभावीत केलो.

म्हजी अकरा वर्सां मेरेनची जीण जल्मगांव आगरवाडो पेडणें हांगा सरली. मुळावें मराठी शिकप ह्याच गांवांत जालें. आश्वें (मांद्रे–पेडणे तालुको) हांगा कुटुंबाचो राबितो आशिल्ल्यान पेडणेंची कोंकणी शैली घरा–गांवांतली भास जावन जिबेर घोळटाली. म्हजे आवयची भास अंत्रुजेंतली कोंकणी (मंगेशीं) लग्न जावन ती पेडणें शैलींत पावली आनी तिणें तीच शैली आपणायली. अंत्रुजी कोंकणी आवयकडच्यान केन्ना आमच्या कानार पडलीच ना. पेडणेंची कोंकणी शैली घेवन १९६० वर्सा हांव

सांकवाळे मावशेगेर (स. गंगाधर संजगिरी) पुर्तुगेज शिकपाच्या निमित्तान एकच वर्स उरलों. धा वर्सांचे भुरगे पिरायेर हांव थोड्याच दिसां भितर 'आशिल्लो, नाशिल्लो' मोडणेची साश्टी कोंकणी उलोवंक लागलों. मागीर १९६१ च्या जून म्हयन्यात आमच्या शिक्षणा निमतान बापायन कुटुंबासयत आश्वें गांवांत साकून मडगवां स्थलांतर केलें. आमी साश्टी कोंकणीच्या आंबल्यां बुंयांवांत येवन पडले. सांकवाळेंतली म्हजी ही कोंकणीची पुर्वतयारी म्हाका मडगांवच्या न्यू इरा हायस्कुलांत बऱ्याक पडली कारण सांगांत्यांकडच्या म्हजे मूळ उलोवपाचे शैलीवयल्यान चाळोवन घेवपाचो प्रसंग म्हजेर आयलो ना.

माध्यमीक शिक्षण, कॉलेज शिक्षण चालू आसतनाचो तो 'झालाच पाहिजेचो' काळ आशिल्लो. कोंकणीभाशी आनी मराठी वादींचें वाक्युद्ध चालू आशिल्लें. पाना – फुलाचें झूज ज़ालें. पूण तेन्ना त्या घडणुकांचें सुयेर–सुतक लावन घेतलें ना. १९७१ उपरांतल्या दसकाचे सुरवेकच म्हजो इश्ट बाब अरविंद काकोडकार हाणें म्हाका कोंकणी भाशा मंडळाचो वांगडी करता आसतना म्हणिल्ल्या उतरांची सांसणांची याद उरली. "मराठीचो हुस्को करपी खूब आसात रे. मराठीक आमची गरज ना. येदो व्हडलो महाराष्ट्र पडला मरे थंय". ताच्या उतरांतल्या सत्याचो म्हाका दिश्टावो जालो आनी म्हजे दोन व्हड्यांवयले पांय उलांडी आशिल्ल्या एका व्हड्यार पावले.

कोंकणी भाशा मंडळान तयार केल्ल्या तेन्नाच्या एका क्रमीक पुस्तकांत दो. मनोहरराय सरदेसाय हांची 'वाटसुरो' नांवाची एक कविता आशिल्ली. ती शिकयता आसतना तिची लय म्हाका भावली. मागीर केन्ना केन्नाय ते लयेंतल्यो कोंकणी कवनओळी म्हज्या मनांत किल्लूंक लागल्यो आनी ओंठांर येवंक लागल्यो. म्हाका कविता बरोवंक जमतलें अशें दिसूंक लागलें. हांगा म्हजेर प्रभाव घाल्लो ते 'वाटसुरो' कवितेंतल्यो वळी सांगतां :

*'वेरेंचो एकलो मनीस*
*चलता चलतना*
*बेतीं साकून बिठ्ठोणा*
*बसलो एका पणसामुळां*
*सुर्या माथ्यार तापतना....*

अशे तरेची ती पद्य काणी आशिल्ली.

मागीर एक फावट गीत रचनेच्या एका कार्यसत्रांत काव्य रचनेचो पडपी प्रभाव आनी काव्य निर्मणी अशा आशयाचे चर्चेंत दो. मनोहरबाबांक हांवें ही वयली गजाल सांगली. तेन्ना तांणीं म्हणलें, "ती क्रमीक पुस्तका खातीर पाडिल्ली एक कविता आसली." पद्य काणी म्हणटकच ती मुद्दम जावन घडोवची पडटा ही गजाल त्या वेळार ध्यानांत येवंक खीणभर वेळ लागलो हें मान्य केलें तरी तिचो दर्जो उणाक म्हणूंक जावचें ना. त्याच सत्रांत कवितेच्या आकाराविशीं मनोहर बाबांनी म्हणलें "खरी कविता अल्पाक्षरीच आसता, कवी मागीर सुरवेचे बुनयादीचेर उपरांतली बांदावळ करता." तांच्या त्या उतरांनीं बरेंच तथ्य आसा म्हणपाचें म्हाका स्वताच्या अणभवान मागीर पटलें. कोंकणी मळावयले म्हालगडे कवी शंकर रामाणी, माधवबाब बोरकार आनी आतांचे नवे पिळगेंतले सखाराम बोरकार, परेश कामत कांय प्रमाणांत हांच्यो देखी घेतल्यो जाल्यार तांच्या कवितांतली विस्तार मर्यादा तांकां भावता आनी वाचपी आयकुप्याकय समाधान दिवंक पावता ही गजाल खरी.

म्हजे कवितेविशीं हांवें म्हजें मत वयर सांगलांच. शाळेंत शिकयतालों तेन्ना अदींमदीं कोंकणी देशभक्ती गितां भुरग्यांक म्हणपाखातीर जाय जातालीं तेन्ना ती गरज भागोवपाक तसलीं गितां बरयल्लीं. तांतुंतलीं सादारण दर्जो आशिल्लीं (म्हज्या मतान) हांगा घेतल्यांत. भावगितां म्हणूंयेत अशे तरेचींय बी कांय हांगा घाल्यांत. भावगितांमदलीं 'नदर म्हाका लागली तुजी', 'योरे भंवरा,' हीं आकाशवाणी चेर ध्वनिमुद्रीत जाल्यांत तीं भौ. प्रमोद प्रियोळकार हांणी स्वरबद्ध केल्यांत आनी माया सुखठणकर प्रभू हांणी गायल्यांत. 'रावलां कित्याक उबें गो तूं' आनी 'व्हड्यान उदीक करया पार' हीं गितां अनुक्रमान भौ. प्रमोद प्रियोळकार आनी भौ. पुरुषोत्तम पै हांणी स्वरबद्ध करुन गायल्यांत. हीं गोवा आकाशवाणीचेर अदीं मदीं वाजतात. भौ. पुरुषोत्तम पै हांणी हेंच गीत चित्रीत केलां तें गोवा दूरदर्शनाचेर अदीं मदीं प्रदर्शीत जाता. हांगा नांवां घेतिल्ल्या कलाकारांक म्हजे काळजांतल्यान धन्यवाद आनी आकाशवाणी, दूरदर्शनाचो हांव उपकारी. भौ. रामराव नायक हांणी म्हज्या देशभक्ती गितांचो आकाशवाणीच्या देशभक्ती गीत कार्यावळींनी उपेग केल्ले खातीर तांकांय

धन्यवाद. आवडिल्लें गीत वा कविता हांचे विशीं मुजरत फोन करून मत कळीत करपी भौ. माधवबाब बोरकार आनी भौ. दामोदर (भाई) मावजो हांचो हांव उपकारी. भौ. कमलाकरबाब म्हाळशी हांणी घेतिल्ले प्रकाशनाचे जापसालदारके खातीर तांचेय उपकार मानतां. डॉ. प्रकाश वजरीकार हांणी मोलावणी करून समर्पक उतरांनी बरयल्ले प्रस्तावनेखातीर आनी कविता रचनेक उर्बा मेळची ह्या हेतान केल्ल्या सुचोवण्यांखातीर तांकांय काळजांतल्यान धन्यवाद. म्हजो पूत बाब पंकज लाड हाणे कलात्मक नदरेन मुखचित्र तयार केल्ले खातीर ताची तोखणाय केले बगर रावूं नजो. साहित्यांत मन लावपाक गरजेचें सहकार्य आनी वातावरण लाबचे खातीर समजिकायेन चलपी म्हजे घरकान्नीचोय म्हज्या श्रेयांत तितलोच वांटो आसा. म्हजे वतीन चडांतचड धन्यवाद फावतात ती व्यक्ती म्हणल्यार श्री अनीलबाब खरंगटे - श्रीमती माया खरंगटे हांचे घरकार जे सदांच 'तुजें पुस्तक केन्ना काडटा? नवोदितांनी सुद्दां काडलीं. तूं कित्याक रावला ?' अशें म्हणून तेचप्रमाण मायान आपलेपणान केल्लो आग्रो हांव विसरूंक शकना. म्हजे गुरु मित्र भौ. डॉ. सोमनाथ कोमरपंत हांणी गरजेक पावपी पयशांच्या मिलेरावरी साहित्यांतलो मिलेर जावन म्हाका आदार दिल्ले खातीर तांच्या रिणांत रावपच योग्य दिसता. पुस्तक छापपी आनी ताची सोबीत बांदावळ करपी स्वर्णमुद्रा प्रिंटर्साचे मालक श्री. मिलींदबाब तिंबले आनी संबंदीत कर्मचाऱ्यांकय म्हजे काळजांतल्यान धन्यवाद.

म्हजे कवितेंतल्यान वाचकाक अस्सल काव्यानुभव मेळटलो काय कितें हाचेविशीं म्हाका दुबाव आसा. म्हजी कविता काव्यरसपात्राच्या कांठार रावन भितर पळयता अशी म्हजी भावना. ते भावनेतल्यान हांवें 'कवनकांठ' हें झेल्याखातीर नांव थारायलें. उतरांच्या खेळाभितर आपणालीच मनरिजवण करपी अशी ही अल्पमती कविता वाचक मानून घेतले अशी आस्त बाळगून म्हजें हें चड लांबिल्लें मनांतलें सोपयतां.

धन्यवाद,

**-रमेश लाड**





# मागूस चंवर

सैंबाचें एक आगळें वेगळें रूप केन्ना केन्नाय दिसता.आंब्या-काजूंचो भार उलगत येतां येतां कांय झाडांक उसरां चंवर येता. मिर्गाच्या भारार मागीर ताचें फळ मेळटा. त्या दिसांनी लेगीत तें फळ मेळप म्हळयार पुण्य फळ शें दिसता. अशा चंवराक मागूस चंवर, मागूस फळ अशीं उतरां लोकभाशेंत कांय कडेन वापरतात.

कवी रमेश लाड हांचो 'कवनकांठ' हो कवितां झेलो हो मागूस चंवर. फाटल्या तिशेक वर्सांची साहित्य साधना करून आतां नांवांरुपाक, आकाराक येता. तो येताना आपलें रूप घेवन येता. पयलो चंवर वेळार आयिल्लो जाल्यार तो अदीक बऱ्याक पडपाचो ही जाणविकाय हो कवितां झेलो करून दिता. उसरां येवपी पावसांत लेगीत तुफानाचें बळगें आसता हिवूय शिटकावणी घेवन ही साठीच्या हुंबऱ्यावेली कविता वाचताना ताच्या जिवीत-गितांतलें काव्य पळोवंक मेळटा.

शिक्षकी वेवसायांत जिवीत घालोवपी आनी साहित्य विश्वांत मन रमोवपी असो रमेश लाड हांचो काव्य प्रवास दिसता. स्वतंत्र गोंयच्या राजकी, समाजीक, भाशीक संस्कृतीक जिविताकडेन तांचो जिवा-भावाचो संबंद आयला. आपले भाशेचें रीण आपणेंच पावोवचें आसता हे तळमळीन ते कोंकणी निश्ठा जपतात आनी जगतात. जिविताक प्रामाणीक सभ्यतायेची जोड आशिल्ल्यान तांचे कवितेंत 'समाज पुरूस' घडोवपाची तळमळ दिश्टी पडटा. इतिहासाचें भान आनी फुडाराची मोख स्पश्ट आशिल्लो हो कवी आसा. देखून ताचे अभिव्यक्तीचीय भास. सादी, सोपी, सरळ तशेंच भावपी आसा. गोंय मुक्तताये झुजाऱ्यांविशीं कविमनांत आशिल्ली निश्ठा, तांचे विशीं आशिल्लो स्वाभिमान मानसीक गुलामगिरींतल्यान मुक्ती मेळोवपाचो तांचो हावेस ते खातीर ताका इतिहासीक सत्याची जोड दिवप ते पसंत करतात. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांची अठरा जून ही कविता आनी रमेश लाड हांची अठरा जून ही कविता दोन अवस्थांचें चित्रण करता.

*''उदक लेगीत जाल्लें रगत*
*आनी रगत जाल्लें हून*
*भावा, तुका याद जाता*
*अठरा जून ?''*

अशे रितीन त्या अठरा जुनाचो समाजीक संदर्भ राजकीय स्वातंत्र्याचे नदरेंतल्यान समकालीन अवस्थेंत लावन समाजीक वास्तवाचें भान घडयता. रमेश लाड अठरा जून कसलो दीस हें सांगताना मुक्ती मोल दाखयतात.

*''अगा, अठरा जून हो*
*जागृताये दीस*
*मेकळिकाये मोला सांगपी*
*भांगराचो दीस..''*

समाजीक संवेदना जागोवपी तांची 'बैल झुजयले' ही कविता

*'एकाच गांवचे बैल सगळे*
*एकामेकांर ताणशेताले*
*नाकांतल्यान ऊस्वास सोडीत*
*नितळ वारें विटयताले.'*

अशा उतरांनी समाजीक प्रदुशणांची आनी परिणामांची जाणविकाय करून दिता. एकचार, भारतभुंयेची निश्ठा, सद्भावना आदी विशय तांच्या कवितांनी येतात. सैंबाक गुरू मानून भारत भुंयेचें व्हडपण जगपापासत ते वाचप्यामदीं स्फुल्लींग जागयतात. तरनाट्यांक ते जागयताना सकारात्मक दृश्टीकोन आमचे मदीं हाडटात. - देखीक - तांची 'ऊठ तरनाट्या, जागय रात' ही कविता पळयात.

*"आयल्यात आमी जोडीत जैतां*
*दुस्मानांचीं मोडून पेंगटां*
*एकूच निश्चेव धुवां पुतांचो*
*वैच्याक थारो दिवचे नात*
*ऊठ तरनाट्या जागय रात."*

कवीक आपल्या संस्कृतीक इतिहासाची जाणविकाय आसा. विज्ञानीक नदर घेवन नवो भारत घडोवपाचें सपन ते पळयतात देखून भारत मातेचें स्तोत्र ते गायतात.

*"फुला पाकळी एक भक्तीची*
*तिच्या माथ्यार ओंपया*
*एकवटाची पेटोवन दिवटी*
*अखंड भारत देखया,"*

शिक्षकी वेवसाय आपणायताना कवीन शिकून शिकोवपाचें तत्व आपणायलां, एकवटान रावपाचो मंत्र जपला. सहकारान जिवीत फुलोवपा पासत ते नव्या पर्वाची जाणविकाय दाखोवन दितात. तांच्या कांय कवितांतलो 'स्वर' – हें आमी करूंया, चलात, भांवडानो, येयात, अश्या समावेशक वातावरणांत व्यक्त जाता. त्या अर्थान जें बरोबर घेवन वता तें साहित्य ही एक व्याख्या तांचे कवितेक लागू जाता.

रमेश लाड हांचो पींड गीतकाराचो, गीत रचनेची कळाशी तांकां लाबल्या तांची देख कितल्याश्याच गितांनी दिंव येता. खासा करून आकाशवाणी वेल्यान तांच्या गितांक प्लॅटफॉर्म मेळ्ळा. भक्ती काव्य, मोगी– मोगीकेचे काव्य संवाद,जोड गितां अशा तरेकवार रुपांनी तीं आयल्यांत आनी भावल्यांत. गीत हो काव्य प्रकार तांणी अदीक प्रमाणात आजुनूय हाताळूं येता तिशेक वर्सांनी हो 'पयलो चंवर' आयला म्हूण आतां पुरो अशें म्हणून वगी रावंचे न्हय. ही तर निकतीच सुरवात

आसा. कारण हे ‘उमेदीचे दीस’ आसात. आनीक एक गूण म्हाका दिश्टी पडटा तो म्हळ्यार बाल साहित्य रचनाकाराचो. बाल साहित्य रचनेची मानसशास्त्रीय जाण आशिल्लो कवी रमेश लाड हांचेमदीं लिपला. ताका भितरल्यान जागोवपाची गरज आसा. कोंकणी साहित्य मळावेलीं कांय पडींग मळां (आजुनूय) भरून काडपाची गरज आसा. गीत आनी बालगीत ह्या प्रकारांनी रमेशबाबान योगदान वाडोवपाची गरज आसा.

जिविताच्या प्रवासांत रमेशबाब जायत्यो गजाली शिकल्यात, जायत्यो बोलयो तांणी केळयल्यात, जायते बरे वायट अणभव पचयल्यात, त्या अणभवांचें गांठवल ‘कवनकांठच्या रुपान आमचे मुखार आयलां.

**–प्रकाश वजरीकार**
वजरी - सांखळी.

# मांडावळ

# 1. नमन तुका शणै गोंयबाब

मूर्त तुजी वामना वरी
पावल तुजें अवतारी
हाडली माचयेर आमचे मायेक
न्हेसोवन साडी भरजरी

बुदवंत तूं निजाचो
पुजारी तूं उजवाडाचो
फौज आसली घातमारी
एकलो तूं झुजारी

भुल्लो ना तूं लक्षिमेक
ओपलो जीव सरस्पतेक
धन तिचें काडलें सोदून
बांदलें देवूळ जीव तोडून

पिंड तुजो स्वाभिमानी
बाग्‌वलो ना शंढपणी
कर्तुपांचे रचले मिनार
शापीत मायेक केली राणी

उतरांक तुज्या खर धार
खेपतल्यांचेर जोखले फार
नमन तुका शणै गोंयबाब
तुज्याच बळार आमचे रुबाब

) )

## 2. गोंयबाबा, तुका नमस्कार

आमच्या शणै गोंयबाबा,
तुका नमस्कार, तुका नमस्कार
कर्तुपी तूं पूत मोठो
खरो गोंयकार, खरो गोंयकार

'गोंय आमचें मूळपीठ
कोंकणी आमची भास
कोंकणी संस्कृताय आमच्या
जाणट्यांची मिरास'
म्हणून गेले व्हड कवी
आमचे बाकीबाब
आदरान करया आमी
तांकां नमस्कार, तांकां नमस्कार

शणै, तुवें काडलें सोदून
आमचें व्हड दायज
बुनयादेचो लायलो फातर
कश्टांच्या बळार, कश्टांच्या बळार

आवय आमची कश्टताली
बंदखणे कुडींत
सोडोवन तिका हाडली तुवें
भोवसा जमातींत, भोवसा जमातींत

बांदून देवूळ केलें तुवें
आमचे सुवादीन
भांगरा कळस लायलो आमी
आमचे ताकदीन, आमचे ताकदीन

लाख लाख शणै तुका
आमचे नमस्कार
एकसुऱ्यांनी केलो तुवें
व्हडलो चमत्कार, व्हडलो चमत्कार
आमच्या शणै गोंयबाबा,
तुका नमस्कार...!!

ऑक्टो. 2008

# 3. एकचाराची मूर्त

इतिहासाचीं पानां सांगतात
कीर्तिवंत हो भारत देस
कवी मुनींचीं कवनां सांगतात
नीतिमंत हो भारत देस

जैन, बुद्ध हे हांगा जल्मले
हिन्दू, सीखय हांगाच रुजले
ख्रिस्त, इस्लामी आनी पारसी
पुण्यभुंयेर हे पोसले

सुटके खातीर झुजले जाणटे
प्राण भुंयेक तांणी ओपले
सत्य अहिंसा पुजली आमी
परक्यांक मानले आपले

विवीध कलांची खाण ही भूंय
मनीसपणाची भक्त ही भूंय
विवीध धर्माच्या एकचाराची
मूर्त आमची ही भारतभूंय

) )

# 4. सैम आमचो गुरू

भारत भुंयेचीं भुरगीं आमी
सैम आमचो गुरू
सैमाच्या ह्या एकचाराची
पावला पावलाक कुरू

इंद्रधनूचें बिम्ब मळबार
सोबीत रंगां खेळ
चित्र सोबीत निळशा लुगटार
सातरंगी मेळ

सात रंगांच्या किरणांनी
एक रुपान येवचें
भुंयमातेचें रूप सोबीत
मनशा नदरेक दिसचें

तरेक तरांचीं रूख झोपां
दोंगरां माथ्यार रान
पाचवी पाचवी चादर घडटा
मेळटा पानाक पान

बळीश्ट आमी करचो देस
वांटे आनीक नाका
धर्म जातीच्या वेगळेचाराचें
अरिश्ट आमकां नाका.

# 5. अठरा जून

अठरा जून गोंयचो हो
म्हान क्रांती दीस
गोंयकार आमी घडबडून
जागे जाल्लो दीस

फिरंगी माथ्यार बसलेले
भुंये पुतांक पिडटाले
तुबकां नाळी फार मारून
गोंयकारांक नाडटाले
नाड लोकांक भिरांत घालपी
लोहियांचो दीस
झेमतल्यांक जाग हाडपी
क्रांतीदुता दीस

चारशां वयर वर्सां हांगा
चल्लो फिरंगी शेक
मागीर अठरा जुनाक आमी
घेतली नवी देख
येवन हांगा लोहियान
दिलो नवो नेट

रास हावेस एकवटावन
सोंसलो फारपेट
ख्यारस्त अशी भोगलेल्या
भुंयेपुतां दीस
रक्ता न्हाण न्हाल्लेल्या
झुजाऱ्यांचो दीस

अगा, अठरा जून हो
जागृताये दीस
मेकळिकाये मोल सांगपी
भांगराचो दीस

) )

# 6. धर्तरेचो साद

आयकात जिवाचो कान करून
साद मायेचो भोंवून भोंवून
तानेन तानेली धर्तरी
दियात घामाचो थेंब तरी

करात काम, गाळात घाम
घेयात मागीर पुराय दाम
जशें रोयतले तशेंच पिकतलें
बरे येवजणेन बरेंच घडटलें

थेंब थेंब घाम गळोवंचो
घेयात सोपूत तुमी आयज
त्या घामांतल्यान राखतले तुमी
तुमचे मायेचें दायज

कश्टां धाग्यार गुंथात तुमी
पिका मोतयांची माळ
काळोख पयस करून येतली
उदरगतीची नवी सकाळ

# 7. मुक्ततायें झुजाऱ्या रे !

मुक्ततायें झुजाऱ्या रे
लाख म्हजे प्रणाम तुका
भुंये नांव लावचे आदीं
जावंचें तुजें स्मरण म्हाका

मुक्ततायेक शक्त ओपून
झुजले तुमी सांखळ्यो तोडूंक
कश्ट म्हान सोंसले देखून
पावले तुमी जैत जोडूंक

केलीच ना पर्वा तुमी
मोगा रगता मनशांची
होमखणांत मारून उडी
सुटका केली भौसाची

नासलें हातांत कसलें शस्त्र
छातये ढाल करतना
ताठ आमची मान जाता
तुमची धिटाय कळटना

थेंब थेंब घाम गळोवन
रचली तुमी मोतयां रास
आयते राशीर बसले कोले
गिळपाचीच तांची भास

) )

# 8. सद्भावनेची सकाळ

जीव उंवाळून जाचेर उडोवचो
देस आमचो हो हिन्दुस्तान
ह्या देसाच्या गिरेस्त दायजाचो
व्हड आमकां अभिमान

नंदतात हांगा धर्म एकचारान
देख अशी ना संवसारांत
विश्वशांतीचो पाठ शिकोवपी
गुरु जल्मले ह्या देशांत

शांती, अहिंसा तत्वां आमगेलीं
विश्वासान आमी आपणायलीं
मुक्ततायेचें झूज गाजयलें
घुडी जैताची मेळयली

नव्या पर्वाची नवी जाणविकाय
आमी पावयली घरा घरांत
सद्भावनेची सकाळ उदेल्या
देशवासींच्या मनामनांत

# 9. भारत भूंय ही आमची माता

उठात भावंडांनो, एक सुरान
गीत आमी गावया
भारत भूंय ही आमची माता
नमन तिका करया

हिन्द भुंयेचे पावन पांय हे
धुयता हिन्द दर्या
तिचेच सेवेंत भरभरून तो
ओंपता माणकां मोतयां

मुकूट तिचो तो धवल हिमालय
युगां युगां थंय वसला
हार गळसरे रुपान सोबल्यो
गंगा यमुना गोदा

साज शृंगार करूंक तिचे ते
सैम देव फुलला
सोबीत सुंदर पार्वतीक ह्या
कैलासपती भुलला

फुला पाकळी एक भक्तीची
तिच्या माथ्यार ओंपया
एकवटाची पेटोवन दिवटी
अखंड भारत देखया

) )

# 10. जैत आमी जोडटले

सुटकेचो गा दीस म्हान
आमच्या भारतवर्षाचो
बलिदानाचें मोल मेजिल्ल्या
देशभक्त त्या वीरांचो

हिन्द भूंय ही तरां तरांच्या
भासां आनी भेसांची
पावन भूंय ही विंगड विंगडशा
धर्मां आनी पंथांची

गंगा, यमुना, कृष्णा, कावेरी
नीरधारा थंय खळखळटात
फुलां फळांच्यो बागो आनी
पाचवीं शेतां सळसळटात

चंद्रगुप्त जावं अशोक सम्राट
गुप्तां सारके जाले म्हान
प्रतापराणा शिवरायाचें
गायत रावचें किर्तीगान

सहिष्णुतेचो पवित्र संदेश
हिच्या पुतांनी केळयलो
सत्य, शांतीचो मार्ग गांधीचो
संवसाराकय दाखयलो

संस्कृतायेच्या इतिहासाची
गिरेस्तकाय ती कितली म्हान
दुनियेभरच्या विद्वानांकय
हांगा होल्मलें ब्रह्मज्ञान

नव्या युगांतय विज्ञानाची
धरून चलतात आमी कास
खर यत्नांच्या कठीण पालवान
जैत जोडटले आमी खास

) )

# 11. ऊठ तरनाट्या, जागय रात

दिकां दिकांनी भल्ला नाद
मायभुंयेचो आयला साद
सपनां गाडूंक दुस्मानाचीं
ऊठ तरनाट्या, जागय रात

भूंय आमची ही भोव मोलाची
सर येवची ना सर्गाची
पेटय दिवटी जागृतायेची
तटला वैरी करूंक घात
ऊठ तरनाट्या, जागय रात

निबर हड्ड्याची घेवन ढाल
फौजी गेले करून चाल
मनात हावेस पूर्ण जैताचो
अर्द्या जैतार रावचे नात
ऊठ तरनाट्या, जागय रात.

शिमेर दाटलीं घोर अरिश्टां
हिमालयाचीं पेटलीं तेमकां
भाग्यवंत तो पूत आवयचो
घालीत जो त्या उज्यांत हात
ऊठ तरनाट्या, जागय रात

आयल्यात आमी जोडीत जैतां
दुस्मानाचीं मोडून पेंगटां
एकूच निश्चेव धुवांपुतांचो
वैन्याक थारो दिवचे नात
ऊठ तरनाट्या, जागय रात

# 12. नदर म्हाका लागली तुजी

नदर म्हाका लागली तुजी
यशोदेच्या कुंवरा
चडली भांग झडलें आंग
झडटी लागली चंवरा

तूंच जळीं तूंच थळीं
ध्यानीमनी रावता
तान भूक आटली म्हजी
चित्तभंवर भोंवता

पडलें कानार नश्टें उतर
जीव कांचवेलो
दिसलें झिलींत मोर पांख
धीर रासवलो

दीसभरांत खीण तरी
दिस रे सुंदरा
कूड धरेक दिवन म्हजी
प्राण व्हर घरा

31-7-89 (आकाशवाणी - ध्वनीमुद्रित)

# 13. योरे भंवरा

मळब नितळ वारो शितळ
काळजांत हुंवार आयला
घेरे प्रीत यो रे भंवरा
जीव म्हजो आशेला

सुर्य गेलो निशे गोपांत
चंद्रिम थंय हांसता कुपांत
खंय रे तूं फसलो राया
म्हज्या सवतीच्या गोपांत

परमळ तो दूत म्हजो
वाऱ्यार स्वार जाला
सोदून तुका जळा मळा
बाबडो खूब शिणला

सुर्य फुला हांसलें देखून
सुर्य देवान शाप दिला
उजवाड तो वैरी जाला
काळखा देवान आसरो दिला

वाट पळोवंक तांक ना रे
काळजा म्हज्या भार जाला
घे रे प्रीत यो रे भंवरा
जीव म्हजो आशेला

27-8-78 (आकाशवाणी - ध्वनीमुद्रित)

# 14. दोंगुल्लेचे चडणेचेर

रावलां कित्याक उबें गो तूं
दोंगुल्लेचे चडणेचेर
लाल गुलाल फुलां माळून
केंस सोडून मानेचेर

गोनळ्ळें गो पावल कशें
चलतनाच वाटेचेर
चाबूं नाका धर गो अळंग
तांबडी पाकळी ओठांचेर

बसलां पळय सवण्या जोडें
तरण्या तरण्या रुखाचेर
सुपुल्लोसो बांदला घोंटेर
नदरे आड खांदयेचेर

दोंगरा माथो पयस ना गो
ना गो खळयो चडणेचेर
घाल गो पावल अळंग मात
निसरशी गो देवणेचेर

(आकाशवाणी - ध्वनीमुद्रित)

○ ○

# 15. व्हड्यान उदीक करया पार

चल गो बेगीन, चल गो बेगीन
व्हड्यान उदीक करया पार
कळाव नाका मार गो उडी
जावंचे आदीं उगतें दार

हात तुजो घेवन हातांत
नेटान व्हडें ताणटलों
घटके भितर घेवन तुका
घरा म्हज्या पावतलों

तरणाटे गो रूप तुजें
तुकू तुकू तेळटले
पळोवन तुका बगले म्हजे
कापरावरी जळटले

कुपांत दडून चानीमामा
मुमुरख्यानी हांसतलो
बाबू तुज्या पालवा आड
कुटुन्यांनी खेळटलो

लजेवन अशें हांसूं नाका
चान्नें आनी फुलोवं नाका
कोंब्या साद जावचो जाला
उजवाडाची भिरांत म्हाका

खोशये वाऱ्यान काळीज म्हजें
थिरक थिरक नाचता गो
झिलीं आड पावलीं मागीर
उतरां विणें सांगता गो.

(आकाशवाणी - ध्वनीमुद्रित) (दूरदर्शन चित्रमुद्रित)

) )

# 16. भांगरा म्हज्या

दीस रात देवालागीं
एकूच मागतां हांव
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धाय दिकां जावं

सुर्यपिलां थकून भागून
दर्या फाटीर न्हिदलीं
दीसभर भोंवडी मारून
सवणीं रुखार बसलीं
न्हिद रे राया न्हिद रे आतां
रडत नाका रावं
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धाय दिकां जावं

गायो पाडकां दोंगरावेल्यान
तुरतुरीत देंवलीं
किट्ट काळ्या पांगरुणांत
रूख झोपां दडलीं
पी रे राया व्हांवती धार
वारोवन नाका लावं
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धायी दिकां जावं

माड काडून देंवलो रेंदेर
कांतरां वाऱ्यार विरलीं
नातकां जागीं जालीं पळय
घू घू करून उडलीं
नाका पुता रडू रडून
आकूळ पिकूळ जावं
नांव तुजें भांगरा म्हज्या
धाय दिकां जावं

फेब्रुवारी 1987

# 17. ऊठ म्हज्या राजा

ऊठ म्हज्या राजा आतां
दीस आयलो वयर
पयस केलो किरणांनी रे
काळखाचो कोयर

भांगर रोसान न्हाले दोंगर
शेवणीं पाकोळ मारती भोंवर
शेतकारांचीं गोरवां चरवाक
पावलीं मळार सैर भैर

अडलीं म्हजीं कामार कामां
जेवणा धनी येतलो धामा
सांग रे कितें वाडूं पानार
भोव तूं आळशी हाय रे रामा

गोड तुज्या गालार हांशें
सपन तुजें कळचें कशें
पूर्ण केलें येवन तुवें
सपन म्हजें आसलें तशें

ꞀꞀ

# 18. खंय गो गेलो लाल म्हजो

खंय गो गेलो लाल म्हजो
खेळटा खेळटाना
दोळ्यांर हात काडटा बाये
चलता चलतना
खंय गो गेलो...

आतांच हांगा पालवा पोंदा
दूद पितालो
तुकू तुकू तोंडाक पळोवन
गालांत हांसतालो
खंय गो गेलो...

सोदलो घरांत गाये गोठ्यांत
ना तो खंयच ना
लिपोवंक ताका पालवापोंदा
तुमीय उणीं ना
खंय गो गेलो...

नश्टी बाये मस्ती ताची
मातूय आयकना
दांतल्यो दाखोवन हांसता आनी
करता चिकानां
खंय गो गेलो...

कान्हा पुता कान्हा म्हज्या
जिवांत जीव ना
यो रे राया यो रे बेगीन
दुराय सोंसना
खंय गो गेलो...

○ ○

# 19. सकाळ सकाळीं

सकाळ सकाळीं नवीं किरणां फांकतना
दिसलें तुजें पुनवरूप चंद्र लिपतना

वाट तुजी वळटा थंयच कांयच दिसलें ना
छबी एकूच दिसली तालान पावलां मारतना

सांगूं कशें घडलें कितें मन फुलतना
नखलामेन लजलें फूल भंवर भोंवतना

आंब्या रुखार फुललो चंवर कोगूळ गायतना
काळीज लागलें ताल धरूंक शेनाय वाजतना

लागली नदर पावलां मेजूंक चलता चलतना
खेळ्ळी विणी बोटा बोटांत भुजार देंवतना

भरले जिणेंत पुर्वरंग किरणां फांकतना
सपनां खेरीत आयलीं नाचत वाजयत पांयजणां

15-3-2001

## 20. वाट तुजी पळयली

वाट तुजी पळय पळय
वाट तुजी पळयली
आयलो ना तूं सांगल्या वेळार
सपनां म्हजीं नासयलीं

जाय जूय परमळून
वाऱ्या वेंगेंत विसवलीं
रातराणी जावन हांवें
सपनां मनांत खेळयलीं

खंय रे गेलो खंय रे गेलो
पावलो तूं दिगंतरा
तळमळे रे लागले म्हाका
तोपले कांटे अंतरा

निळें निळें उगतें मळब
पुनवेचेरय आयलो भार
किण्ण वेळार गाजतल्या
समदिराचेर भरते ल्हार

# 21. कोगळा, तुजो मोगी

पळय गो तो कोगळा तुका
मोगी तुजो आफयता
चंवरलेल्या रुखार बसून
ताळ्यांत म्होंव घोळयता

रागार फुगार जावन अशें
अडोवन कित्याक दाखयता
ताकाक येवन गाडगो तुजो
असो कित्याक लिपयता

उल्यार उलो घालता पळय
पिळून काळीज वारयता
प्रेमरागी सूर आळयत
पंचमाचेर पावयता

अंत गो तूं पळोवन ताका
मोगा उज्यांत पिचयता
दी गो ताच्या उल्याक उलो
कसलो तोरो मिरयता?

3-2-2008

# 22. व्हडी आमची लावया तडी

तें : कळ्ळें ना रे केन्ना तुवें
घरांत म्हज्या घेतली उडी
तो : पातकटेचे झपय भितर
कुडींत हांवें माल्ली दडी
तें : कळ्ळें ना रे केन्ना तुवें
म्होंवा पेलो केलो रितो
तो : पेलो ना गो जावचो रितो
सैम देवान भरला गो तो
तें : म्होंवाळ जिबेर घोळोवन अशीं
उतरां म्हजेर मोखूं नाका
तो : उतरां जिखून, परतीं मोखून
खेळयत म्हाका दवरूं नाका
तें : साखरे सुयेन अशीं रे तूं
शब्द जाळां विणूं नाका
तो : तूंय बी आतां सोड गो सदळ
धागो इतलो ताणूं नाका
तें : कळ्ळें ना रे केन्ना अशी
व्हांवते मदीं पावली व्हडी
तो : व्हलय गो तूं वांगडा म्हज्या
दोगांय मेळून लावया तडी

) )

# 23. श्रावणी पावस

ती : येता वेता तो येता वेता
श्रावणी पावस सळसळटा
तो : तण तण तण तो डमरू वाजयता
घरां घरांचेर थै थैता
ती : पळय कुपांचो रंग धवशेला
पावसा वताचो खेळ रंगला
तो : सुर्या पळय गो हळद शिंवरता
भांगरा शिंगरांनी कुपां नटयता
ती : वाडले गरगरीत पाचवेचार मळे
पाचवी शितळसाण तृप्त हे दोळे
तो : खळखळ व्हाळ तो मल्हार गायता
लय-तालाचो मेळ सुखायता
ती : नटलीं झोपां जायां-जुयांनी
परमळ भल्लो धुंद भोंवतणी
तो : नव्यो सवायशिणी परतल्यो घरा
हांसतें मुखामळ सपनां काळजांनी
ती : आयली हूम फळा हांसलो शेतकार
भांगरा सपनां दिसलीं सामकार
तो : श्रावणी विर्यान फळ्ळी धरतरी
वसंत फायचो येतलो भारार

# 24. राव रे पुता

राव रे पुता, उडूं नाका
जावं ना अजून वेळ
येवंदी बळगें पांखटुल्यांनी
दाखय मागीर खेळ

न्हय रे सादो संवसार हो
मेकळ्यो ना वाटो
दिसतलीं रे पानां फुलां
दिसचो ना कांटो

नाचून घे रे खांद्या खांद्यार
किरणां पळोवन हांस
वाऱ्या ल्हारार पानां तालार
दाखय तुजो नाच
मळब पळे निळें निळें
शीम ना रे थाव
चुकचो ना रे सैम नेम
खंती नाका जावं

कळचो आसा इश्ट वैरी
तोवेर धर थार
येतलो उलो दिगंताचो
उडणां तेन्ना मार

(आकाशवाणी ध्वनीमुद्रित) ○ ○

# 25. नदर बाये लागत गो

सांबाळ बाये सांबाळ गोरी
ओडणी पळय उडली गो
ओडून वारो खंयचो गेलो
केन्ना भितर सरलो गो?

ओडणी तशी उडली आनी
जनां नदर पडली गो
उडटी मजा पळोवची काय
जवानीचो साज गो?

धाडली वाऱ्यान लहर अशी
फुलतो पळोवंक बहर गो
मस्तखोर वाऱ्या आंगार
कसलो आयलो भार गो?

सैम देवान गुलाबीश्यो
पाकळ्यो गालार लायल्या गो
जाणट्या नेणट्या वाटसुऱ्यांची
नदर बाये लागत गो

3053

# 26. गंधित हो वारो

फुलला वाठार म्हजे प्रियेचो
गंधित हो वारो थंयचो
घडये आज ती केंस सुकयता
परमळ वारो भरून व्हरता

राव राव रे वाऱ्या खीणभर
दी रे परमळ म्हाका कणभर
घेतां अणभव भंवर धुंदीचो
इश्ट तूंच रे मोग पिशांचो

झुरत आसतली दुराव्यांत ती
पयस हांव हो दुख्खी खंती
हट्टी काळ हो कित्याक जावचो?
सुरत्त खिणांनी झेमत व्हांवचो




तुजी गती ही काळा दी तूं
आयक वाऱ्या, अर्जी एक तूं
तो दीस इश्टा वेगीं येवचो
भेट सुखाचो उत्सव घडचो

# 27. व्यथा

सांगूं कशें कोणाक तरी
अंदलेली व्यथा
जिणे आदार जावचो जाणे
तोच जीव खाता

हाड़लें कोणें वांगडा कितें
घेवन कोण वचत?
सुवार्थाच्या संवसारांत
सत्य कोण सांगत?

विश्वासाचे गावपी गोडवे
घात घेवन गेले
रगताचीं सांगपी नातीं
वैऱ्या पाश्ट जाले

मोहजाळ्यांत फसचें आनी
उरचें हें झुरत
कोणाखातीर जगचें कोणे
दर खिणा मरत?

धरतरेचें रूप नारी
व्हडविकाय बरी
युगां युगां रावल्या सोसत
नर जें करी

# 28. जाळें

तिराक तीर लागलो तेन्ना
नदरो त्यो भियेल्यो
एकदां दोनदां भियेल्यो पूण
मागीर त्यो थिरावल्यो
थिरावल्यो म्हण कळ्ळें तेन्ना
एकामेकांत घुसपल्यो
घुसपतकीच मागीर कितें
थंयच त्यो कुड्ड्यो जाल्यो

नदरो त्यो बियो कश्यो
फुटले तांकां कोंब
त्या कोंबांक नांव 'उतरां'
अपरुपाचें तांचें काम
आडवीं तिडवीं धांवलीं
गेलीं वांकडीं तिकडीं
उतरांचें त्या घडलें जाळें
लोक नदरे अस्वडीं

7-8-1978

# 29. उमेदीचे दीस हे

दीस येतात श्रावणाचे
पावस-वोता खेळाचे
नागपुजा कृष्णजल्म
भक्ती रसान भिजपाचे

गणपतीची गाजता परब
नवरात्रांचे गडे गुल्ल
वाड्या वाड्यार कटर घुम
दसऱ्याचे ताशे धोल

पिकां नवीं, फेस्तां खाशीं
खळ्यांत उब्यो पिकां राशी
परमळीत शिता रास
बांगड्यां कडी तेफळा वास

रूखा जिवां ताने विसव
उगत्या मळार दाट चरव
नव्या नेटान दर्या आतां
हांसता फेसाळ सोबीत भोव

रांपोणकारा व्हडें तालार
हुपता ल्हार उर्बे भारार
भरलीं जाळां ओडीत जड
झेतान वता गाठूंक तड

गांवगिऱ्याचीं पेटलीं चुलां
मुसळांफार तापलीं वानां
रसरशीत फोव फुलां
दिव्यां परब फुललीं मनां

हुसक्याविणीं भुरगीं बाळां
बंद साळो भरलीं मळां
सुटलीं वारीं सैर भैर
चडले पतंग वयर वयर

कवकवीत कोमरी नवी
तुळशी आंगार कवकवली
नवशी व्हंकल हांसून म्होवी
दिव्य खिणाक वसवसली

) )

# 30. नव्या म्हज्या कुळागरांत

केळीं, नाल्ल, खावचीं पानां
अनशीचीं जाय दाट रानां
नव्या म्हज्या कुळागरांत

नितळ झरी खळखळ आवाज
फडफडचीं तीं फोपळीं पानां
नव्या म्हज्या कुळागरांत

शितळ सावळी नितळ उदक
गावचें गोड पांखरांनी
नव्या म्हज्या कुळागरांत

अनस, पणस, आंबे, घोटां
खावन जावचो जीव धादोस
नव्या म्हज्या कुळागरांत

शिमेर आडो, उगतो गोयणो
वाटसुरांक मेकळी वाट
नव्या म्हज्या कुळागरांत

(1978 वर्सा कुळागर नांवाचें नवें मासिक सुरू जाता अशें आयकून म्हाका तेन्ना जाल्ली खोस हे कवितेच्या रुपान आकाराक आयली. ही मागीर कुळागराच्या एका अंकांत छापून आयली.)

# 31. सोबीतकाय

देखली गा देखली गा
सोबीतकाय देखली गा
सपन म्हाका पडचे आदीं
जिती देवता दिसली गा

कमळा कळी आसली ती
पाचव्याचार पानांमदली
दोनूच पाकळ्यो उकत्यो करून
जुवानपण लिपोवंक सोदी

दोळे तिचे निळे निळे
ओठां मदीं मोगरे कळे
गोऱ्या कपलार कुकमा तिळो
दिसलो गोल उदेंत गुळो

उमेदीचो पावस पोटांत
पडटालो सळसळावन
हुंवारिल्लो हांशा व्हाळ
व्हांवतालो खळखळायत

सर्गार सोबीत अप्सरा
धर्तरेचेर तीच तरा?
विश्वामित्राक गुल्ल करपी
हीच काय ती सुंदरा?

दोळे भरून देखलें रूप
नदरे जिबेन चोखलें खूब
देवतेचें त्या देखलें मूख
जिवितांतलें भोगलें सूख

4-2-1980

# 32. शाण्या गुण्या

शाण्या गुण्या कुकुल्या रे
अपुरबाये किटुरा
उतरां गोड लुडबीं तुजीं
सूख म्हज्या घोंटेरा

जालो व्हड केन्ना इतलो
बसलो तुजे मानेर बटवो
टिफीन, वॉटरबॅग हातांत
नितळ हांसो पालवलो

नाच उडयो मातये खेळ
झुक्क गाडी ढुर्रर मोटार
उंडये वेळार हट्ट ताटार
इतलें सगळें अचळयांच
पावलें कशें खंयच्या घांटार

कोण रे ते कर्मकट्टे
लायले कसले सोद तांणी
बंदखणेच्या वणटीं भितर
झुरत वतात राजा राणी

पयली के जी, दुसरी के जी
पुस्तकांचीं वज्यार वजीं
परकी गिन्यान परकी वाणी
दळडिरी ही भिके काणी

जॅक ॲण्ड जिलाक वचूंदी
दोंगरा वयल्यान पडूंदी
तकले कट्टें फुटूंदी
आवय दुदान भिजलेलें
उतर जिबेर घोळूंदी

1989

# 33. कित्याक शिकप

शीक पुता, शीक बरो
म्हणटा आवय, म्हणटा बाबा
हांव मागीर म्हणटां तांकां
शिकून शिकून कितें करूं?

शिकून पुता, फुकट वचना
म्हणटा आवय, म्हणटा बाबा
हांव मागीर म्हणटां तांकां
बी.ए. जाले, एम. ए. जाले
एका जेवणाक म्हारग जाले

शिकून बरो विद्वान जातलो
म्हणटा आवय, म्हणटा बाबा
हांव मागीर म्हणटां तांकां
पोटांत जेन्ना कावळे रडटा
विद्वानय बी सुक्यार पडटा

वाट बरी दाखयत गिन्यान
म्हणटा आवय, म्हणटा बाबा
हांव मागीर म्हणटां तांकां
शिकले ना ते खंय चुकले?
मेळ्ळी तांकां वाट कशी?

पळय पुता, दुकर गाढव जगता कशे
म्हणटा आवय, म्हणटा बाबा
हांव मागीर म्हणटां तांकां
खरें आई, खरें बाबा
तसलें जगप नाका म्हाका.

# 34. म्हस आनी साळू

साळून म्हळें म्हशीक -

म्हशी बाये म्हशी,
चरऽऽ चरत वशी
तुकतुकीत फाट तुजी
करूं तिचेर बशी
किट्‌टी, हल्को अळंग काडून
करूं तुका खोशी?

म्हशीन म्हळें साळूक -

साळूबाय, साळूबाय,
भास तुजी मोव मोव
दुदावयली साय
तुजेवरीच कोणतरी
वांगड म्हाका जाय
कावळ्यावरी तोंच मारून
करूं नाका घाय

साळून म्हळें म्हशीक -
म्हशी बाये म्हशी,
सदांच तूं न्हाशी
फाट तुजी कावळ्यावरी
इतली काळी कशी?

म्हशीन म्हळें साळूक -
आगो आगो साळू,
रंग नाका तेळूं
वडफळ तांबडें देखून
इंगळो नाका गिळूं

# 35. कालची वंय

आयला सांवार
आयला सांवार
विखाळ पावस
आयला हुंवार

जल्म कोणें घेवचो कित्याक?
संवसारांत बुडचें कित्याक?
घरादाराक बायल भुरग्यांक
जीव असो लावचो कित्याक?

उतर म्हजें सांगचें तुवें?
लावचें कुलूप बुद्दीक हांवें?
खावचें कितें रावचें खंय
सगळेंच म्हाका सांगचें तुवें?
सासाय हांगची गेली खंय
माणसुकेची आटली न्हंय?

सागर न्हंयो झाडां वाली
गाय पाडूक सवण्यां चाली
फॉर्मालदादच वेली वेली?
सपनांच्या सौदागरा,
कालची वंय खंय रे गेली?

) )

# 36. आंबो आनी कावळो

आंबो दारांत
भरला तोरान
धोलता वाऱ्यान
ताला तालान

भुके पोटान
कावळो घरांत
काडयां बडयांत
चिंतेस्त मनान

हालता तोर
तोंची म्हन्यांत
देखता कावळो
आंबट तोंडान

# 37. देड शाणो

एकदां एक देड शाणो
बसलो वचून तळ्या कांठार
नदर लावन निळ्या उदकार
तळ्यान म्हळें सभाग्या,
उठून पळय मातशें तरी
तकलेन तूं उबो आसा
तकली सकयल पांय वयर

ताणें उठून पळयलें
आसलें खरें तळ्या म्हणणें
हेवटेन तेवटेन निरखिलें
कानाफाटल्यान खरपिलें
खिणाभितर येवजलें
दुसऱ्याच खिणाक रावलो उबो
तकली सकयल पांय वयर

कांय खीण गेले उडून

देखलें ताणें जैती हांसून

तेन्नाच थंय धांवलो वारो

हांसलें तळें खिदळ्ळें

त्याच खिणाक ‘घस्स घो!’

देड शाणो लंवडलो

तळ्यांत पडून बुचकळ्ळो

उलयलो तो घुस्मटत

’तळ्या, तळ्या, आदार दी

बडी ना तर काडी दी

रावतां उबो पांयांनी

दिसता काळोख भोंवतणीं

फळाक आयलो ताचो उलो

आयलो सुद्दीर देड शाणो

# 38. बैल झुजयल

बैल झुजयले गा आमी
बैल झुजयले
पाचव्या मळार देंवत्या वेळार
बावटे नाचयले
आमी बैल झुजयले

एकार एक लागल्यो धिरयो
शिंगार शींग आपटलें
खडाखड जाले आवाज
ताळयो मारीत आयकले

एकाच गांवचे बैल सगळे
एकामेकार ताणशेताले
नाकांतल्यान ऊस्वास सोडीत
नितळ वारें विटयताले

उडोवन वाऱ्यार धुल्ल कुपां
फोण भुंयेर मारताले
कचाकच मारीत शिंगां
पोटां मांडयो फोडटाले

पळोवन पाट रगताचे
जायते शाणे म्हणटाले
बावटे हालोवन लावपी झुजां
तांचे तेच पालयतले

भर भारार पावल्यो धिरयो
बावटेवाले अडचले
अळंग आतां वाटावन जीव
धिरयो थंडावंक सोदताले

अकस्मात दाटलीं कुपां
जोगलां झोतान दिपकावले
सोदूंक लागले झिली घोली
जोगलां मारान हुलपले

सत्तेखातीर बैल सोडले
आंगार येतांच शेडायले
सरणाचेर भाकऱ्यो भाजपी
फुडारांतय आसतले.

# 39. पिपळा पान

आसतलीच याद तुका
लेव तांबशा भिणभिण्याची
अळंग दोन दंवा थेंबे
पिपळा पानार पडलेल्याची
थारचे आदीं पानाचेर
घळघळून शेणलेल्याची

रुखार पान आजून आसा
देंठार जून जाल्लें आसा
भिणभिणें तें अदीं मदीं
ओलसाणीची सुलूस घेता
दोन थेंब्या उगडासान
पानूय आंग शिरशिरायता

# 40. भजन

लावन पाखां विज्ञानाचीं
बुद्द उडटा मनशाची
अंतराळी हावेस जरी
कर्तुपां तीं वैराचारी
भावबंदी सोंपलीं नातीं
जीवघेणी सर्त गा ती
द्रव्य भुकेक रगत तानेक
फटीं फातर बुनयादेक

शक्तीवंत जो जैतिवंत थंय
जयजयकार थंय दार्विनाचो
रडारड ना घासाघीस ना
संव्हार कचाकच सत्पुरसांचो
काळ्या किर्तीचो मुकूट माथ्यार
पेलो रगताचो मिरयत ओंठार
सैतानान थंय राज्य वसयलां
मानव जिवाची बांदून समाधी
दानव जैताचें आसन सजयलां

जयजयकार ते करीत आसात
उगडे नागडे नाचत आसात
घोट रगताचे पीत आसात
तोंडान भजन ते गायत आसात
सैतानाक ते होरायत आसात
फोग फोगोट्यो पेटयत आसात

देवाऱ्यांत देव तटास जाल्यात
थरथर सामके कांपत आसात
फाटल्या दारांतल्यान पळत आसात
सैतान दूत थंय हांसत आसात
भजन करतले नाचत आसात
'सैतान सैतान' आळयत आसात
दोंगर हाडांचे रचीत आसात

1985

# 41. खोशये दूत आयलो घरा

खोशये दूत आयलो घरा
कंवळी प्रभा फांकली दारा
सुकण्या, पाकोळ्ळांनो तुमी
नाची करा, नाची करा

किर्णां नवीं आयलीं घरांत
नटलें म्हजें पोरसूं फुलान
फुटल्यो कोमऱ्यो गरगरून
वसंत जरी आयलो वेळान

आयलो घरांत तोलपी दायज
फिटलें रीण पुर्वजांचें
घरांत म्हज्या पडलें आयज
पावल नव्या येजमान्याचें

2-10-1990

# 42. पोरसूं म्हजें

भाग्यवंत कळसो बाये
बांयतलो तुज्या राजवाचो
गिळटा आंवडे घेवन उमे
रेखीव तुज्या बिंबाचो

तानेल्लो हांव भोंवडेकार
पावल म्हजें अडचलां
वारय पोशांत उदका धार
ताळ्यांत उतर शिरकलां

दोंगरापेल्यान पोरसूं म्हजें
बावलां पळय, फुलचें ना
शिंपतां दी गो कळसो तुजो
फुलले बगर रावचें ना



# 43. हांयसां तुजीं

मस्तीं बाये हांयसां तुजीं
बेठींच खुबळटात
निरपराधी साळकां म्हज्या
बळयां तिडायतात

तिडावं तिडावं
राग ना गो
नाका आडावं
बदचीं ना गो
जाय तशीं पेवं दी
खुबळटात खुबळूंदी

भोव सोबीत गुबगुबीत
आंगांत वारें मुसमुशीत
तटास चोंची कुचकुचीत
खेळटें रगत घसघशीत

आळाबंदा येवचीं ना गो
तुजो मातूय दोश ना गो
मेकळेपणी मिरोवं दी
रसीक मनां रिझोवंदी

हांयसां खुशाल पेंवचेलींच
कोल्यां नदर पडचेलीच
इंगळे तुवें मोखले तरी
आडयां चोरी जावचेलीच

30-11-1989

❍ ❍



# 44. जैताचे बावटे

हांसतात ते पडल्यार हांव
हांसतां मागीर हांवूय बी
थांबतात ते हांसल्यार हांव
थांबतां मागीर हांवूय बी
थांबून मात रावना हांव
मारतां पावल मुखार हांव

पडू पडून कितलो पडन?
दुखू दुखून कितलें दुखत?
फाफडून धुल्ल रावतां चलत
केन्ना नीट, केन्ना कुटत

एक दीस येवचो ना?
शीम हांव हुपचों ना?
घावे मावो हिंगलटां
जैता बावटे जावचीं ना?

# 45. गांव म्हजो

गांव म्हजो सोबीत बरो
दर्या कुशीचो
आंगार ताच्या पाचवो पोपो
आंब्या माडांचो

भांगराळो सुर्या येता
रुखां जागयता
लांब लांब तेंगशो उब्यो
वारो धोलयता
उदेंतेचे घाट उबे
पाचवे पाचवे चार
अस्तमेच्या दर्यावेलें
हांसतें हांसतें ल्हार

रसाळ म्होंवाळ तालासुरा
गोड गोड भास
फांतयांवरी कवनां येता
जायां जुयां वास

उबाळ उबाळ उतरांचो
येवकाराचो सूर
इश्टां सोयऱ्यां येवकारतना
भरून येता ऊर

# 46. श्रावणांतली एक सांजवेळ

एक सांजवेळ श्रावणांतली
सावळेवरी ती सोबीत काळी
माथ्यार रास कुपाळ केंस
दिकां दिकांनी संचरली

शिडशिडशिड त्या शिंवरांनी
चिप्प बरी ती भिजलेली
अशी यौवना दोळ्यांत भरतना
स्वत्व भावना विरगळ्ळी

आपशीं फुटली मुखार वाट
दोंगर देंवतणां खळखळ पाट
सानपणींच्या गोड खिणांच्यो
फुलून आयल्यो यादी दाट

सुखाळ खीण ते दुदाळ जीण
वस्त्र रस्मी नाजूक वीण
सुखद यादींच्या मोयपासांनी
कुडी मनाचे सरले शीण

जित्या जिवाचें जालें फूल
शिरंतरांचेर पडली भूल
कमळ कशी ती पुराय भोंवतण
भ्रमर हांव तो भितर गुल्ल

दाट गालिचो पाचव्या तणाचो
तसोच पाचवो रंग शेताचो
घेवचो आयकून ध्यान एकवटून
गाज, घसघसो त्या वजऱ्यांचो

तड थै तड थै नाचत आयली
दडक पांयांत बांदून पांयजणां
ताला सुराचे लयेंत नाचलीं
रुखां वेलींचीं फुलां पानां

) )

# 47. एक श्रावणी सकाळ - पयलें चित्र

त्या दिसा सुर्यान
थाव्र दिसांनीं
पांगरुणांतल्यान
नदर माल्ली

रात सोंपलेली
उदेंत रंगलेली
चिवचिवाटान
सकाळ गाजलेली
रातभराचे
झडीन पावसाचे
सकाळ सवळी
चिंब न्हाल्ली

श्रावणाचे रंगमाचयेर
हांसतीं किरणां
नाचत आयलीं
इल्लीं लजलीं
इल्लीं हांसलीं
हांशा शिंवरां
भुंयेर पडलीं

लिपचेल्यांनी
खेळ्ळो सुर्या
सैम सोबीत
पाचवो दर्या
नाचत थै थै
दडक आयली
रुप्या रोसान
भिजत धांवली
माणकां मोतयां
शिंवरलेलीं
पानां फुलांनी
अळंग जिखलीं
श्रावण सोबेचीं
गोड कवनां
शेवणीं सुकणीं
गायत भोंवलीं

ↄ ↄ

# 48. एक श्रावणी सकाळ - दुसरें चित्र

थाव्र दिसांच्या
पावसा उपरांत
आयज हांगा
वखळ पडल्या
लागल्या हुळहुळ
आज पावलांक
दिसवड्याची
आस जागल्या

बरप वाचपी
मनीस म्हणटात
शिरवणाची
पळय आरास
हुनत पावसाचो
पळय खेळ हो
सैमाची ही
पळय मिजास

म्हणणें म्हाजें
चिकें आयकात
शिरवण येवं तो
भादरपद येवं
खंय गा आमी
देवाक दिसतात?
भांगराच्या त्या
देवळांनी ते
तेकाच बाबड्याक
गिरेस्त पोसतात

घुस्मट मारून
पडलो सुर्या
किरणांचें कांय
नांव ना
सामको सायबा
लजकाडो हो
दोळे उगडूंक
धीर ना

कितलो झड झड
झडलो पाडो !
थंड किरांव
पडली चूल
पोटा कायलींत
पेटलो उजो
हो उजो पालयतलो
कोणाचे गा
बाये आजो?
उतरांच्या शिताक
उतरांची कडी
पोट हितून
भरलें जाल्यार
कोणाक जाय काडावडी
उतरांच्या दुकानदारांक
आमचें गणीत
कळत काय?
एक दीस हांगा
जगचें जाल्यार
स दीस मरोंक जाय

# 49. आंबो आनी रानफळ

आंब्यान बरें खुशाल मिरयत
वचचें गिरेस्त शाही म्हालांत
बसचें थंय जेवणा मेजार
सोबीत सुंदर पात्रांत
दवरची मात जाणविकाय
सोसचे आसतात घायार घाय
आनी मागीर खिणांत कांय
वचचें आसता ताळ्या ताळ्यांत
सासणाच्या अथांग खोलांत
गोड आसल्यार 'वा रे वा!'
तोखणायेच्यो उतरावळी
आंबट आसल्यार 'शी, थू!'
आयकूंक जाय भिकार गाळी

थंय रानांत रानफळान
बसचें खुशाल ताळये माथ्यार
ना तर त्या पाना दोण्यांत
सैमीक रूप दाखयत मिरयत
कोण वायट म्हणचो ना
वांकडें उतर दिवचो ना
उडत गायत येतलीं पाखरां
मुकी मोनजात सादीं मनशां
खातलीं आनी गायतलीं
तुस्तीचीं गोड कवनां
अतिथीनय व्हडविकायेन
रामावरीच खावचीं घेवन
शबरीचीं गोड बोरां.

# 50. निष्काम कर्मयोगी

जिवीत तुजें भावा,
सैमाच्या गोपांतलें
नितळ उदक व्हांवतें
म्हादयच्या पात्रांतलें
सह्याद्री सांगता तुका
गुपीत आपल्या मनातलें
दुख्ख भावा कळटा तुका
जीवजिवां काळजांतलें
धन तुवें दिलां पुंजावन
आमचे मोगाळ मातयेंतलें

जिणेंत तुजे परजळ्ळी
पौर्णिमा प्रेमाची
पोरसांतय फुल्ली तुज्या
समृद्धी सुखाची
घरांत तुज्या सुखावता
तृप्तताय मायेची
मुमुरख्यांनी हांसता भितर
प्रीत मोनी पित्याची

दीस रात चिंता तुका
दुरितांच्या तिमिराची
गीताईचो धर्म तुजो
पर्वा ना फळाची

24-02-2008

(भोव मानादीक प्रा. राजेन्द्र पां. केरकर हे एक पर्यावरण आनी गोंयची संस्कृताय, लोकवेद अशा सगळ्यां खातीर तन, मन, धन ओंपून किंवाट्यान वावुरपी व्यक्तिमत्व. 'माझ्या मातीचे गायन' ह्या तांच्या पुस्तक उजवाडावणेच्या समयार हांवें तांच्या कार्याचो भोवमान करून 22-02-08 दिसा केरी हांगाचे शाळेच्या सभाघरांत वाचिल्ली ही कविता.)

# 51. उजवाडाचो रूख

मुळाव्या मातये वासान
रूख एक वाडत रावलो
खूब बरो फांकारलो
फुल्लो आनी फळ्ळो
उजवाडाचो रूख म्हण
लोका नदरेंत भल्लो

संवसारांतलो उजवाड ताणें
पांचूयवटयां पुंजायलो
भरभरून पोशांनी
साबार जाणांक वांटलो
उजवाड घेवन सर्वांनी
तोंड भरून वाखाणलो

अपरूप त्या उजवाडाचो
वास मूळ मातयेचो
आपणाल्याच मुळांत मात
परजळूंक तो अपेसलो
अचळय एका अरिश्टान
घाव ताच्या मुळार घालो

वाश्ट एक वीखवल्ली
वाडून थंय व्हड जाली
अळंग तिणें वंशवेलीक
पुरायपणान विखाळ्ळी
'दिव्या मुळांत काळी सावळी'
लोकीक म्हण खरी थारली

# 52. मोखीर घुडी लावंक जाय

वाडली पिराय, बावली कूड
हातां पायां देंवलें त्राण
गात्रां गेलीं गळसणून
अंधुकले दोळे, भेरेवन गेले कान
हावेसांक लागली सुकती
निरशेणेचें भरते ल्हार
भूतकाळांत रिगलें मन
उगडासाक लागलें पोशेवंक

पिकाळ जिणे मोसमाचेर
गीम पावस फुल्ले वसंत
सारले दीस उमेदीचे
टोळावरी पिटपिटत
पुंजावचे तें पुंजायलें ना
कोठयेकुडींत जमयलें ना
मोख जाली नदरे आड
पावलांक दिका कळ्ळी ना

जिणेक आज देंवती कळा
मोसमाचेर कांय सादलें ना
तरी अथक पावलां मारीत
मोख लागीं हाडूंक जाय
मेळत जितलें हाताक तितलें
पुंजायत मुखार वचूंक जाय
निरशेणेचें ल्हार हुपीत
मोखीर घुडी लावंक जाय

3-2-2008

# 53. बाळकधारी

घालचेखातीर चार वांटे
एका भुंये कुडक्याचे
उबे जाल्ले चार दुरीग
मेळटात एका बिंदूचेर
घडयत आपलो संगम
एकामेका ओडीन

बिंदूकुशीक एका वांट्यांत
रावला उबो पाषाण काळो
रूख एक पणसाचो
दिसचो एक अवतारसो
पंढरीच्या विठ्ठलाचो
दोन खांदे, कमराचेर
हात धरून रावलासो

आंगाखांद्यार लेव पाचवी
गुटगुटीत पणसुलां
धुडधुडीत मस्तखोर
हांसकुरींशीं बाळकां
बाळकधारी रूख हो
जसो विठू लेकुरवाळो
संत सखी जनाईचो

भक्तिरसान थपथपिल्लीं
संतांची त्या अंतरंगां
तशींच म्होंवाळ रसाळ हीं
रुखाचीं त्या बाळकां

○ ○

# 54. मोख

जाग आयली खरी तरी
उग़डून दोळे देखलें ना
सकाळ जाल्ली खरी तरी
कळूंक म्हाका पावली ना

पिवचें दूद चिंतून हांवें
जेन्ना वचून देखलें भितर
दूद थंय जाल्लें म्हेळें
वेळार जतनाय घेतली ना

रेल थांब्यार पावलों जेन्ना
पयली रेल दिसली ना
गेल्ली वेळार कळ्ळी म्हाका
धरूंक मात जमलें ना

आयचें आज आसता करचें
पूण तें केन्ना चिंतलें ना
वेळार वेळ शिगम्यार खेळ
कळून लेगीत वळ्ळें ना

जीण असली अर्थहीण
साध्य हाताक लागलें ना
मोख आसता धरची एक
नदर नाचरी चलची ना

# 55. यो रे वाऱ्या

यो रे वाऱ्या, यो रे यो
दर्या वयल्यान धांवत यो
मळबा वयलीं काळशीं कुपां
भुंयेर आमचे झडयत यो

पावशी कुपां धांवतलीं
एकामेकांक धुकलतलीं
आंगाक जावन खातकुतल्यो
पोट फुटून हांसतलीं

हांशा आवाज गाजतलो
घुडूम घुडूम वाजतलो
हांसतनाचो दुकां शिंवर
पावस जावन झडटलो

गिमाळ हून आमची भूंय
जावंदी पुराय थंड शितळ
बांयां न्हंयांनी झरी तळ्यांनी
उपाट भरुंदा नितळ उदक

यो रे वाऱ्या, यो रे यो
धन कुपांतलें वांटीत यो
जीव जिवांचो भुके तानेचो
उजो पोटाचो पालयत यो

# 56. पतंग

गुलाबी एक पतंग सोबीत
फावत्या वाऱ्यार उडलो
पळोवन उंचाय हातासलेली
गर्वा नशेन बुडलो
फुल्लो आनी फुरफुरलो
बगले कुपार गुरगुरलो

‘उठ गो कुपा,
सर गो कुशीन
मेकळी कर वाट बेगीन
पर्वा ना तर
सांग म्हाका
वयतां वयर तोपून तुका,

अनमनलें ना कूप निगूत
भितरां भितर फुतफुतलें
‘असले हे पचकटे
कितले तरी पळयले
सोदपी जावंक बांगर पाडे
मिर्गी बेबे पारखिले’
इतलें म्हणून कूप मागीर
उगतेपणी उलयलें

‘वच गा सायबा पतंगा,
मुजरत वयर वच गा
न्हय गा हांव निबर शिळा
पावलाक म्हज्यो साबार कळा
भेतलें तुवें उबें तरी
भंग ना ह्या दुर्बळा’

आयकून भास कुपाची
उडली शीर पतंगाची
आंवडो गिळून मोखली ताणें
भास खर दर्पाची
‘दाखयन तुका भेतून हांव
फाटीर तुजे नाचन हांव’
सोंपत्या उतराक लायलो रेंट
हालचे फुडें पातकटी
दुसऱ्या खिणाक सोंपलो नेट
बसली ताची दांतकटी

पोरा आधार गेलो तुटून
हांसलें कूप पोट फुटून
निराधार बाबडो पतंग
वाऱ्या नेटार गेलो उडून
झेलपटून भिरभिरत
करणेचेर चुरचुरत

गेल्ली आटून फुरफुरी
थंड जाल्ली गुरगुरी
गेल्ली उंचाय देंव-देंवत
रुखा वालीन देखलें हांसत
माड एकूच रावलो तेळत
येवपी पतंग झेलपटत

‘पडटल्यांक दिवचो आदार
गिन्यानाचें उगडून दार !’
चिंतून माडान जिखलो ताका
दाखयन म्हणून उजू दिका
पतंग भोव घुटमळ्ळो
अंतरांत तळमळ्ळो
नदरेंतच भल्लें सगळें

रावना जावन माडान म्हळें
‘थंड राव, थंड राव
थतरवितर नाका जावं
चुकेंतल्यान घेतले बूद
शाणे जातले तुजे पूत
कूप तुका हांसलें जरी
दुश्ट न्हय तें इल्लें तरी
दितलें तुका मुक्तताय
भुंये कुसव्यांत चिर सासाय
ते मेरेन हुमकळूंक जाय
कर्मभोग भोगूंक जाय
कर्मभोग भोगूंक जाय

10-10-1990

# 57. एक येता कविता

केन्नाय देंवता झरकशी
केन्नाय ओघ आडखळटा
उतरांच्या फातरांनी
चितनांच्या फोणकुलांनी
ओघ आटून थंयच जिरता
अल्पजिवोच मरता.

चिरंजिवीय जाता केन्ना केन्नाय
तेन्ना मात ती विसरता
त्या कागदा कुडक्याक
जंय तिणें पयलो
बाळकी हुंकार दिल्लो
कागदांचो पोळेर
भिजयल्लो, म्हेळो केल्लो.

तिका मागीर याद जायना
खंय कसो जल्म जाल्लो
पोळेर तो उबेचो
खंय  पडून कुसलो
पूण ती जाणा
सैमाचो नेम
जाणें जल्म दिवचो
ताणें जीव त्यागचो
झरो निर्मणेचो
चिरंजिवीच उरचो

○ ○

# 58. असो काय हंसतय

अगो माज्या आबू,
मियां मगो तुजो बाबू
तुयां खळ्यांत पावल्लय तेवां
तोंडाक लांय व्हतंय साबू
तुका बरो दिसांग नको?
नाय तर तुयां म्हणशीत मगो
"नको माका असलो खोको
जळ्ळां मेल्याचां तोंड
माका इलाहा मागणी घालांग"
असां म्हणान राणग्याच्या
घालशीत तोंडांत शेण

बोल मगो कायतरी
तोंड सां शिवांन इलय?
तेवां रागान गेलय
आतां तोंड घेवन इलय
भंगलो तुजो राग
तेका खांव वाग
तुजो माजो जमलो शिरंगार
पळान वचाया कारवार

अगो, अगो, अगो,
असां गो काऽऽऽय?
शिरां मार व्हरान
ये तरी घरान
असां काय तांऽऽऽ?

"आंबाड्याचां रायतां
चुलीकडे बसान खाय तां
माका दिल्लय?
मियां ना येवचंय"
शिरां मार तोंडार
भंगलो वयतलो कारवार
दमडी ना खिशांत
लोक काडीत पिशांत
पोट भरांग शीक
मागां नको भीक
माजां थरलां हा लगीन
वचांग होयां बेगीन
पंगतीक बसांग ये
सोजी भुरकावन घे
असो काय हंसतय
मियां खोटं सांगतय?

# 59. ओंकारेश्वरा

पवित्र सुंदर ओंकाराचें
रूप तुजें गा गजानना
दैवत गा तूं पयल्या मानाचें
कार्यारंभाक तुका वंदन

विद्येची तूं आद्य देवता
तुजे कृपेन गा सुख संभवता
अरिश्टहारी विघ्नेश्वर तूं
अडचल्ल्याच्या उल्याक पावता

पुज्य देव तूं रैतकारांचो
रूपकार तूं सैमी तत्वांचो
तुज्या येवकारा सैम बहरता
गणराया तूं आमकां भाळयता

पार्वती पूत तूं मोहक नर्तक
व्यासमुनींचो इश्ट तूं लेखक
गायन वादन नृत्य कलांचो
स्वामी तूं गा आमी सेवक

) )

# 60. ओडीन तुजे आयलां देवा

ओडीन तुजे आयलां देवा
तोडून सगळे पास
ना रे तुजे सेवे बगर
दुसरी विंगड आस

पातकी तुजे अधीन जाले
तना मनान लीन जाले
संवसारांत नांव तांणी
तुज्या बळार जोडलें

गूण तुजे गायत पामर
संत पदार पावले
भ्रमिश्टांचे काळखे वाटेर
दिवे जावन रावले

चंचल ह्या मना म्हज्या
लागूं तुजो ध्यास
उरूं जिबेर नांव देवा
भक्तिरसा भास

❍ ❍




# 61. सान कवनां

- 1 -

उजवाडाच्या दोळ्यां देखत
काळखे कुडींत पेटली वात
काळखा वेंगेंत चान्नें मात
तृप्ततायेन सारता रात

- 2 -

जिवीत खेळून वचचें आसा
दर्यांत बुडून जगचें आसा
उदेंत लाली गुलाल माखून
उब्या वतांत न्हावचें आसा
न्हिदचे आदीं जितें सपन
फायच्या सुर्याक ओंपचें आसा

- 3 -

घाय
ती पिशी पिराय
ती उचंबळाय
मोखलें उतर
चुकली मोख !
ही शाणी पिराय
आजून ओलो घाय !

- 4 -

बुद्द खिणांत झेमली आनी
सावदां जालीं जागीं
रगती दोळे तापले आनी
उठले गरे चपक्यांनी
जोरगतीचो भरते भार
वसवशाचें चडटें ल्हार
शिरंतरांत पेटल्यो किटी
भगभगली सावदा मिठी

- 5 -

घाल उदक पानवेलीक
कोमरी म्हसकाक फुट्टली
आमूड कावळो उश्ट्या हातान
दाना पुण्याय मेळटली

- 6 -

सोलां सयत रुचीक चणे
सोलां सयत भिकणां
दुख्खा सयत सुखा सोबाय
तांब्या कळशाक थोंकणां

- 7 -

पांयांक जशी व्हाण
तशी अणभवाची जाण
व्हाणेवीण कांटे फातर
दोळ्यांत हाडटी प्राण

- 8 -

उगतेपणी दिसला
ताका मोल नासता
धापिल्ल्या जिनसाचेर
नदर कित्याक नाचता?

- 9 -

तो म्हज्या कानांत
घसघशांनी रकलो
हांव बाबडो कान दिवन
उतरांकूच मुकलों !

- 10 -

सारले दीस तुजे आशेर
दीस जालो खिणायेदो
करून गेलें फाट तूं
खीण जालो दिसायेदो

- 11 -

ती दरया किनार
सुंदर नार रुपाळ
मोव मुलायम
कात गंवाळ
जशें तूप घरावें
विरविरीत वासाळ

- 12 -

कशी तुका कळ्ळी सांग
प्रपंचांतली बारीकसाण
कळ्ळी म्हाका अणभवान
घोंटेरांतली हुनसाण

- 13 -

आपलेपणांत शीण आसता
भावनांची वीण आसता
फुला फुलांत रंगा वांगडा
गर्भकुडींत म्होंव आसता

- 14 -

केन्ना केन्नाय म्हाका तुजो
बेसुमार राग येता
सोंसप तुजें चिंतून मात
बेताल मनाक जाग येता

- 15 -

कितलें म्हाका दिसलें सांगूं?
सपन म्हजें फुलतलें !
कळ्ळें ना कित्याक तुवें?
फुलचे आदींच किरमिलें!
न्हय गो तुजो न्हयकार हो
अरिश्ट हें जीवघेणें
वतना तुवें चाळोवन घालें
चिंतनाचें गांजील भिरें

- 16 -

नात्यांक नांवां दिवचीं कित्याक
'ना' तें सोदूंक गेलो जाल्यार
आसा तेंय पयसावता
नांवा बगर आपलेपण
दिसपट्टें जपूं येता

- 17 -

दीस ताचे हक्काचे
तो बेभान रकपाचोच
पावसाक कित्याक गाळी?
ताणें माल्ली दांडी जाल्यार
ना उदक ना पोळी !

- 18 -

तुजें सारकें भरना
म्हजें सारकें जिरना
कोणाचें खंय चुकता?
कोणाक कांयच कळना

-19-

कर गा म्हाका कुड्डो धनया,
कर गा म्हाका भेड्डो
ना तर खिणांत रंग सोडपी
कर गा म्हाका शेड्डो







**रमेश लाड**

जल्म : १७ फेब्रुवारी १९५०, आगरवाडो, पेडणें – गोंय

शिक्षण : १. मुळावें – लोकमान्य विद्यालय मुळावी शाळा, आगरवाडो, पेडणें – गोंय

२. माध्यमिक – न्यू इरा हायस्कूल, मडगांव, गोंय

३. म्हाविद्यालयीन – चौगुले कॉलेज, मडगांव
शिवाजी विद्यापीठ, कोल्हापूर
(बी. एड्.) म्हैसूर विद्यापीठ, मानसगंगोत्री, म्हैसूर
(एम् . ए.) गोंय विद्यापीठ, गोंय
कन्नड भाशेचो डिप्लोमा – १९८२–८३
दक्षीण भारतीय भाशा केंद्र – सी. आय्. आय्. एल्. मानसगंगोत्री, म्हैसूर

४. पेशो – शिक्षक – २९ वर्सां – न्यू इरा हायस्कूल, मडगांव (स्वेच्छानिवृत्ती – २००१)

५. बरप – १. कविता – कोंकणी नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.
२. कथा आनी ललीत – दोनय प्रकारांतलें थोडे थोडें बरप – नेमाळ्यांनी उजवाडा आयलां.
३. अणकार – कन्नड कथांचो नेमाळ्यांखातीर कोंकणींत अणकार.

६. साहित्य अकादेमी नवी दिल्ली खातीर मास्ती वेंकटेश आय्यंगार हांच्या 'सण्ण कथेगळू'चो कोंकणी अणकार. त्या 'मोटव्यो कथा' क २००५ वर्साचो सा. अ. चो. अणकार पुरस्कार लाबलो.

७. डॉ. के. मोहन पै.,मंगळूर हांचे 'ध्रुवतारेयरु' हे कन्नड कादंबरीचो कोंकणी अकादेमीखातीर २००८ वर्सा कोंकणीत अणकार – 'ध्रुवतारे' ह्या नांवान.

८. हेर निर्मणी – गोंय आकाशवाणीचेर कार्यावळी तशेंच कोंकणी गितां ध्वनिमुद्रीत जाल्यांत. तेचप्रमाण दूरदर्शन, गोंय चेर गीत चित्रमुद्रीत जालां.

९. लिप्यांतर – कन्नड लिपींतल्या मंगळुरी कोंकणी लेखकांच्या कथांचें देवनागरींत लिप्यांतर. पॉल मोरास हांच्या 'जागरण' ह्या मूळ कन्नड लिपींतल्या पत्रिकोद्यमाच्या इतिहासा संबंदांतल्या पुस्तकाचें देवनागरींत लिप्यांतर.

---

**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय ४०३ ७०२**